# किर किर
## आनी
# चांगपणाची सांत





पी. एन. शिवानन्द शेणै

# किर किर

आनी

# चांगपणाची सांत

पी. एन. शिवानन्द शेणै

# KIR KIR and CHANGPANACHI SANTH

(Konkani)
Anthology of Poems

Author :
P. N. Sivananda Shenoy

First Edition of Kirkir pub. in May 1984
First Edition of Changpanachi Santh pub. in March 1994
Revised Combined Edition Feb. 2012



Publishers
Kerala Konkani Academy
8/28, 'Santhery', 1st Floor,
Opp. M.S.C. Bank Ltd., Cheralai Road,
Cochin - 682 002
Email : keralakonkaniacademy@gmail.com

Printed at
Amarakerala Industries
Townhall Road, Ernakulam, Cochin-682 018

Typeset by
Melody Typesetters
Cochin - 682 002

Price : ₹ 100

## चांग उतरां

दिवंगत प्रो. आर. के. रावु

दिवंगत पी. जी. कामत

प्रो. एन. एन. आनन्दन

श्री. शरतचन्द्र शेणै

श्री. पय्यनूर रमेश पै

\- हांकां

# किरकिरांत



# सांतेंत

# ही नवी आवृत्ती

'किरकिर' आनी 'चांगपणाची सांत' ह्या दोन कवनां झेले उजवाडाक येवन मस्त वर्सां जालीं. 1984-त पयलें आनी 1994-त दुसरें पुस्तक भायर आयलें तरीय आतां तीं कांय मेळूक नात. देकून एक नवीन आवृत्ति काडूयां म्हूण शिवानन्द शेणैन आठयलें.

हो आठोव अजापाचो. कित्याक ? केरळांतलीं कोंकणी पुस्तकांक दुसरी आवृत्ती येवप भोव अप्रूप. तेंवय देवनागरी लिपींतले कोंकणी पुस्तक म्हळ्यार कठिनच. देकून दोनींय पुस्तकां एकठांय करून एक नवी जोड आवृत्ती काडची गजाल आयल्या. हाका लागून शिवानन्दाक आमी विशेष करून परबीं दिवुयां.

पुस्तकां बरयिल्या वेळार शिवानन्द आमचे केरळ कोंकणी अकादमींत आजीव सदस्य आसिल्लो. मागीर तो अध्यक्ष जालो, आतां पोषक आसा. ह्या पोषणाक लागून ताजी कविता केरळांतूय भायरय पसरली. वेगवेगळ्या प्रदशांत चल्लेल्या कविसंमेळनांत ताचो आवाज पावला. आनी एक खास पुरस्कारूय ताका फाव जाला.

ह्या दुसरी आनी जोड आवृत्तींत वांटो घेवपाक भारी खुशी जाता. देकून अंदूचे परिशदेंत परतें एक वेळा हो किरकिराचो साद आयकूंक मेळटलो. तुमी हाका दोनीय हातांनी येवकार दितले ही आमची आशा.

कवीक आनी कवितावाचकांक देव बरें करो !

**पय्यनूर रमेश पै, अध्यक्ष - केरळ कोंकणी अकादमी**

# प्रकाशकांली उतरां

श्री पी. एन. शिवानन्द शेणै कोंकणी क्षेत्रांतु एक कवि. केरळांत थाकून कोंकणीन आशय प्रकाशन करच्या कवींगेल्या पंक्तींतु श्री शेणैलें नांव प्रमुख. मलयाळम भासेन कवनां बरवनु कीर्तिमुद्रा जोळ्ळले श्री शेणैन कोंकणींत उजवाडावचें प्रथमले कविते झेलो 'किरकिर'.

व्यक्ति जीवित सामाजिक जीविताचो एक भागु म्हळेल्या दृष्टीन आयच्या मनशाल्या जीवनांत दिसचीं थोडीं किरकिरां ह्या कवनसंकलनांतु मेळटात. वर्णन, चित्रण, स्तुति, कथन अशें विविधोदेश्यान काव्य रचूंचे लेखकांक श्री. शेणै एक अपवाद. समाजाचे सूक्ष्म बिंब काण दाकोवन ताजी प्रसक्ति इतें, ताजे मोल इत्तें म्हणु चिंतन करूंक वाचकांक प्रेरणा दिवची शैलि शेणैली.

विचारवंत कवींगेल्या पंक्तीक मेळेल्या श्री शेणैलें हें किरकिर उजवाडावच्याक आखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेचे अधिवेशन युक्त म्हणु आमकां दिसूंक हेंच कारण. अकादमीचे हें प्रकाशन भायर हाडूंक खांदो दिलेल्या श्री. शेणैक आमी आभारी. मुद्रण कार्य व्हांविल्या अमरकेरळा इन्डस्ट्रीसाक आमगेले धन्यवाद.

– केरळ कोंकणी अकादमी

# प्रस्तावना

## कोंकणीचे प्रेम्यांक

श्री - शिवानन्द शेणै हांचो किर किर नांवांचो कवनां-झोलो तुमचे मुकार भारी आनन्दान हाडता. कित्या? कोंकणीक केरळी नांवांचो एकु भेदु आस - हें गोयंचे आमचे भावांकय रूचता - जाल्यार तांतु रचिल्लें साहित्य साहित्य म्हणून घेवूंक तांकां मनांतु कठीण दिसता. हो झोलो तांकांय रूचतलो आनी कोंकणी कवितेचे इतिहासांत एक मान्य स्थानाक योग्य जातलो म्हणु लेकतां.

कवि सामान्य जनपदान देखनात्तिन्नें देखचो, आयक नात्तिन्नें आयकचो, तांकां कळनात्तिन्नें कळचो आनी तँ ताचे भासेन - रीतीन लायक रूपान तांकां दाखोंचो, आयकोंचो आनी जाणोंचो. देखून समाजांतु ताका एक मान्य स्थानाक योग्यता मेळता. आमचे पूर्विकानी सांगल्यां -

कवीनां घडनान्यैव
चराचरविलक्षणा
अकर्तुमन्यथाकर्तुम्
या क्षमते जगत्

- अलंकारशेखरम्

अपारे काव्यसंसारे
कविरेकः प्रजापतिः
यथास्मै रोचते विश्वम्
तयेदम् परिवर्तते

- ध्वन्यालोकम्

नियतिकृतनियम रहिताम्
हलादैकमयिमनन्यपरतन्त्राम्
नवरसरूचिराम् निर्मिति -
मादद्यती भारती कवेरजयती

- काव्यप्रकाशन्

कवी, हे भासेन, हे विषयाखतीर, बरय म्हणूंक आमकां वाचव्यांक सांगूक जाय ना. अथवा सांगल्यारीय कवीन तें आयक्का म्हणूच ना.

-2-

1930 - कालाक अंग्रेज़ी आनी फ्रेंच भासेंन नवी कविता उपजली. स्वच्छन्द छन्दोमुक्त ती; आनी स्वभावान पुरोगामी आनी परिक्षणात्मक आसली. जीवनाचीं वायट, दुःखमय, काळें आनी हेर रूपा हे नवे कवींनी तांचे कवितेंत्ल्यान दाखयनीं. तें केवल एक फाशन नयीं-कालाचें अवश्य एक आवश्य आसलें. बंगाळी, गुजराती, काशमीरी, हिन्दी, उडिया, पंजाबी, उर्दू, असमिया, तमिळ आनी मलयाळम भासेंन हे लेकान नवी कविता उपजली. मराती भासेंतु तिका दलित-बण्डाय कविता म्हणु नांव; तेलुगु भासेंतु दिगंबर कविता म्हणतात; आनी कन्नड भासेंतु शुद्र कविता. कित्या म्हणूंका पौराणीक संस्कृत भासेंतूय ह्या रूपाची जागरण कविता उपजली.

-3-

हे भूमिकेर श्री. शिवानन्द शेणै हांची कविता चोवया, हांतु णव्व कवनां आसात - कालु, ॐ शांति, किरकिर, वेगळो, फाय, विनंति, चूकि, श्रीनिवासु, कामेली - हे नांवांचीं. प्रति एक कवन रूपान आनी स्वभावान स्वच्छन्द. जाल्यार एकेकय वाचप्यांक एकच लेकान रूचका म्हणु जायना. पूणी कोंकणी कवितेचें - केरळांतले कोंकणी कवितेचें विशेष जावून - एक नवें भावस्वरूप हांतु देखयात. एकेक कवनच काडून दाखौचें सम जायना. कित्या? कविता प्रथम स्वयम् वाचून पळौंका जालेली. आयकात महाकवि काळिदासु म्हण्टा -

क्षणे क्षणे यन्नवतामुपैति
तदेवरूपम् रमणीयताया.

प्रथमली कविता  कालु  चोवयात -

वोत ना
पावस ना
दोव ना
गीम ना
हांव मिगेलें काम करतां
काम करून क्षीणीत जावन
घरां पांवतां
माजे फूडे सूर्यु निदेता.
उतूले काळ अस्सि?  - मिगेली बायल निमगीता,
प्रिये, तूका अप्रिय नाका; अस्सि ऊणे काळ.
- हांव साबाव सांगता; ती आयकता.

हे कालाचे जीवनाचो स्वभावु हांतु प्रकट केला. मनशाक, देहाक-मनांक, क्षीणीत करचो हो कालु; ताकताकाच आनी वेगळ्यांक फटौंचाक मनशान मुकार सरचो कालु. मनशाक ताचे मोह सफल जायनात आनी तो निराश जाता.  ॐ शांति शांति - हे कवितेंतु प्रकट ती निराशा -

वाट घुपसून पाविल्या ह्या
सत्रांत कोण ना माका,
..............................
काळकांत उजवाड ना माका.

देकून तो ताकाच आनी हेरांक मनांक शांति मागता-

ॐ शांति
ॐ शांति
सर्व दिकपालकांक शांति
सर्व भूतगणांक शांति
तुका
माका

सर्व चराचरांक शांति
ॐ शांति शांति
जाल्यार मेळता की ताका शांति

ही कविता म्हणु सांगयात विना ही मात्र कविता म्हणूंक कोण शकता? आयकात -

शब्दार्थशासनज्ञान
मातेणैव न वेद्यते
वेद्यते स हि काव्यार्थ-
तत्वज्ञैरेव केवलम्

- ध्वन्यालोकम्

किरकिर - ही कविता चोवया -
हाता बोरो वाचून सांगतात
कालि कस्सि आसिलो
फाय तस्सि आसतलो
आमी आयकतात
मात्या बोरो वाचूंक कोण ?

आसा बामूण कोचि
आनी बायल आलपळे
तीं फूडे राबलीं कोचि
आनी मागीर आलपळे
चोवन चोवन रबिल्या वेळार
जाप दीनातिलेंच वता
उलो दीनातिलेंच मरता;
रानांतली हस्ति गांवांत पांवता
मृत्यु पिश्शे लागून धांवन भोवंता

अस्सि आसुका मिगेलें मात्या बोरो;
तुमकां हे किरकिर आयकोवंचो बोरो !

शब्दार्थ हे कवनांतु एकमेळून मनशाली ती विचित्र अवस्था परिहासरूपान प्रकट करतात. आपणाकच करचो परिहासु उत्तम अशी म्हण्टात ज्ञानीलोक.

मलयाळम भासेंतु नवी कविता रचून आरांभीलें आपणालें साहित्यिक-जीवन श्री शिवानन्द शेणैन. आतां कोंकणीचि सेवा करूंक मुकार सरला. चांग-कोंकणी कविता रचून आनी वाचूनय तीची संस्कृती तन्नी आपणायल्या. कामेली ही कविता चोयात -

फुल्लेलें फूल
फाय पोण वतलें
आयकले गींत
फाय विसरून वतले
-दुःख तशीच राबतलें.

चेरडुवाळाले किरकिर आयकूंक मलगड्यांक लायक पढता. तशीच हे किरकिर वाचप्यांकय दिसतले ही आशा. आनी कोंकणीचे प्रेम्यांक त्या खातीर आपयतां. कित्या आमचे पूर्विकांनी सांगल्या कि -

सररस्वत्यास्तत्वं कविसहृदयाख्यं विजयते.

सनातन धर्म कोलेज
आलपळे - 688 003

आनंदन एन. एन.

## १. कालु

वेळ मनां करूंक घडियार नाका
फाल्या उठावंचाक कुंकडा रण्णेंय नाका
सूर्यु उदेंवचें फूडे हांव उटायतां
मागीर माका व्हड मिगेलें काम

वोत ना
पावस ना
दोव ना
गीम ना
हांव मिगेलें काम करतां;
काम करून क्षीणीत जावन
घरां पांवतां;
माजे फूडे सूर्यु निदेता.

उतूले काळ अस्सि? - मिगेली बायल निमगीता,
प्रिये, तूका अप्रिय नाका; अस्सि ऊणे काळ .
- हांव साबाव सांगता : ती आयकता .

रेशन घेवंचाक क्युवांत राबून
ती पडता
चेरडान रळ्यार मोम्यांत दूद नातिल्यान
ती शेळ उदाक दिता.

फाल्या उळदूक कोण?
देवाक दिवलि लावंचाक कोण?
दिवलेंत घालूक थेंबो तेल खंय?

दिग्विजयांत भाग घेवंचाक मन,
चोवंचाक दोळे;
आयकूक कान.
-माका मिगेले काम
बायलेक आनी चेरडुबाळांक
उपजीवन दिंवचें काम.

तांगेलें गींत रण्णे जावन
कानांत पळ्यार
तांगेले तोंड करपलें कांय
दोळ्यांत पळ्यार
तांगेले भुखेचो दिग्विजय
मनांत दिसल्यार
माका खंय
-तुजी सत्कथा सांगूक वेळ?
-तुजे संगीत म्हणूक वेळ?
-तुमचे दिग्विजयांत भाग घेवंचाक वेळ?

वोत ना
पावस ना
दोव ना
गीम ना
माका मिगेलें काम

## २. ॐ शांति शांतिः

फूल फुलचे फुलझाडार, जायतें
फूल फुलचो काळ;
फुलाचा परमळान मनांत वसंत पावंचो काळ.
त्या काळांत, आसिल्ली तूं मिगेले मनांत
हासचें फूल जावन केदनाय.

तुका देखून उदेलो सूर्यु
तुका देखून उदेलो चन्द्रु.

हासून आयली तूं;
न्हेसून आयली तूं;
गीत म्हणु आयली तूं;
नाट्य काण आयली तूं.

आतां - वारांतुलें पान जावन गेली;
आतां - पावसांतुली रेंव जावन गेली.

वाट घुपसून पाविल्या ह्या
सत्रांत कोण ना माका;
खाण ना माका;
नीद ना माका;
देखूक एक चांग सपन ना माका;
काळकांत उजवाड ना माका.

सान मूंय उदकांत बुडून मोरूक वता
कोण एक पान घालनु दिवंचाक ?
कोण एक तण घालनु दिवंचाक ?
कोण ना; कोण ना !

संतवूचे दिवलेंत
थेंबो तेल घालचाक कोण ना

जीवनांत लाभ
वाटेर थाकून वेंचिले फातर
आतां भितर नष्ट
पेल्यां घालेले फातर

आतां फुलझाड ना
मनांत तूं ना
हासून न्हेसून गीत म्हणु
नांच काणु पांवची तूं ना
आमकां सांगचे काणियेंत काणि ना
म्हणचे गीतांत गीत ना.

शांति
ॐ शांति
सर्व दिकपालकांक शांति
सर्व भूतगणांक शांति
तुका
माका
सर्व चराचरांक शांति
ॐ शांति शांति

---

## ३. किरकिर

हाता बोरो वाचून सांगतात
कालि कस्सि आसिलो,
फाय तस्सि आसतलो
आमी आयकतात.
मात्या बोरो वाचूक कोण ?

निमगीतात
चोयतात
वाचतात
सांगतात
आयकतात.

आसा बामूण कोची
आनी बायल आलपळे
तीं फूडे राबलीं कोची
आनी मागीर आलपळे
-तांगेले मात्यार तसलो बोरो !

नांव त्या बामणालें वेंकटपति
आनी बायलेलें लक्ष्मी.
आतांय ती दूर गांवात राबतात.
बामणान बायलेक
आनी बायलेन बामणाक
सोण दूरगांवांत परगांवांत
राबचाक तांगेल्या मात्या बोरो !

आबु वैदिक आसिलो
वैदिकालो पूत वैदिक करचो
वैद्यालो पूत व्यापार करचो
व्यापारीलो पूत -
कोण जतलो म्हणु सांगचो कोण ?

हांव जालो यंत्र चांग करचो
माका आसा दोग पूत
तांकांय आसका मात्या बोरो
कोण वाचिता,
सांगता,
आयकता!
आयकल्यार तें कशें
जीवितांत पावंता ?

आलतडि येता
पेलतडि वता
मंचूव न्हंयंत बुडून वता
चोवन चोवन राबील्या वेळार
जाप दीनातिलेंच वता
उलो दीनातिलेंच मरता;
रानांतली हस्ति गांवांत पावंता
मृत्यु पिश्शे लागून धांवन भोंवंता

कोचीचे बामणाक खाण चड; जेवण चड;
दुडु चड घर चड, न्हेसवण भांगार चड;
बायल दूर म्हळेल्याचें दुःखै चड चड.

आलपळेचे बायलेक खाण चड, जेवण चड;
दुडु चड, घर चड, न्हेसवण भांगार चड;
बामुण लागी नातिल्याचें दुःख मनांत चड.

अलतडि तो
पेलतडि ती;
अलतडि पेलतडि दोगय राबून
चोयतात देखतात
हासतात उळदितात
उलो घेतात
धांवन वचून पोटोन धरूंक
आशा करतात
जायनातिले रडतात.......
अलतडि तो
पेलतडि ती
अलतडि पेलतडि दोगय राबून
रडतात .......

-तांका एक मंचूव खंय
एक सांकोव खंय?

अस्सि हांव तुमचे लागी निमगीतां
तुमी सांगतात :-
राबयरे तुगेले हें किरकिर !

हांव रांबयतां किरकिर;
अस्सि आसूका मिगेले मात्या बोरो;
तुमकां हें किरकिर आयकोवचो बोरो !

---

## ४. वेगळो

मिजेय तुजेय मद्दें
वेगळो एकलो
जांवका जाल्यार
तुवंय माका वेगळो.

तुजे पासून
तुजे चांगपणा पासून
गीत हांवे म्हणूक नज जाल्यार
तू माका वेगळो.

तुका
हांवे दिवंचें सर्वय
वेगळ्यालागी पांवता जाल्यार
तू माका वेगळो.

तुका
आसिलें सर्वय
दुसर्याक काडयेत जाल्यार
तू माका वेगळो.

# ५. फाय

कान कानाकय
दोळे दोळ्याकय
जीब जिबेकय
फटयनातिल्लो
कालु येवो -

तूं मिगेली बायल जावन तावळ यो
तुमी पूत नातूर जावन तावळ येयात
हांव तुमकां तेन्ना
चांग मनान उळदीन.

तावळ आमकां भूक ना
आमकां सपन ना
तस्सि एक कालु येवो पावो.

पावो तेद्दोळ आमकां सपन चोवयां;
भुकेक रेशनाच्या क्युवांत राबूयां.

---

## ६. विनंति

यो यो यो येवन
ह्या गांवांक राक

मनीश मनश्यांक
सबाव जिवंशि मारता
अलतांत - पेलतांत लोकटों काण
भुरग्यांवरी खेळतात;
दादल्याक खेळूंक धूवेक
आवसूच दिता;
भुरग्यांक सांतेंत विकूक
आवसूच दवरता !
भूक, भूक, भूक म्हणु सांगून
मान विकून खातात,
गुरबीण जातात, बाळांत जातात
चेरडुबाळांक विकून खातात.
देवळांतुली दिवल्यो
फारनु व्हरतात
देवाल्या पेजेंत
फातोर घालतात

यो यो यो; येवन
ह्या गांवाक राक; येवन
ह्या कुळाक राक; ह्या
कुळाव्यांक राक !

## ७. चूकि

चूकि म्हणु सांगूक जायना जाल्यार
ताळो इत्याक रे तुका ?
चूकि आपोण दाकोचाक नज जाल्यार
बोट इत्याक रे तुका ?
चूकि देखूक जायना जाल्यार
दोळे इत्याक रे तुका ?
चूकि आयकूक जायना जाल्यार
कान इत्याक रे तुका ?

चूकि कितें
केदना
खंय
कशें म्हण
कळना जाल्यार
मातें इत्याक रे तुका ?

कांय कळनातिलें पुता,
कांय देखनातिलें पुता,
कांय आयकनातिलें पुता,
तू इत्याक रे माका ?

सात्तें धरून
सुत्ताचे जानूवें घालून
मातें भर मातियेचे तिकोल भरून
वच रे वच.....

वचे गांवांत बापाक सुतकल आसचें ना;
गाद्यांत भांत आसचें ना;
आयदनांत शीत आसचें ना.

---

# ८. श्रीनिवासु

श्रीनिवासु निवासु करता
कोणाले मनांत ?
तुमगेलेवे?

उळदीनातिलें आयकूचो
श्रीनिवासु
निमगीनातिलें दिवंचो
श्रीनिवासु
सांगनातिलें मनांत करचो
श्रीनिवासु
दाकयनातिले पळोवंचो
श्रीनिवासु

श्रीनिवासु निवासु करता
कोणाले मनांत ?
तुमगेलेवे?

उळदिल्यार आयकतातवे?
निमगिल्यार दितातवे?
सांगल्यार मनांत करतातवे?
दाकयल्यार पळेयतातवे?

श्रीनिवासु निवासु करता
कोणालें मनांत? तुमगेलेवे?
गांद तीळो करचाक;
पागरार लायतातवे!
तीर्था घेवंचाक,
हात घूतातवे?
प्रसाद खावंचाक;
पानार वाणु खायनातीलें बैसून पेल्यां घालतातवे!
दर्शन चोवंचाक;
दोळे धांपतातवे!

श्रीनिवासु निवासु करता
कोणालें मनांत? तुमगेलेवे?
नातिल्यांक दिल्यार तें
श्रीनिवासाक पावंता
- दितातवे?
नातिल्याक चोयल्यार तो
श्रीनिवासु जाता
- चोयतातवे?

श्रीनिवासु निवासु करता
कोणालें मनांत? तुमगेलेवे?
मनांत भरनु चिकोलुवे?
त्या चिकलांत राबतलो श्रीनिवासु
मनांत भरनु काळूकवे?
त्या काळकांत आसतलो श्रीनिवासु

श्रीनिवासु निवासु करता
कोणालें मनांत? तुमगेलेवे?

## ९. कामेलि

1. ह्या लोकांत कितले जन!
आतां तांत एक कामेलि तूं
आमगेले समाजांत एक कामेलि व्हड मनीश
तू आतां व्हड मनीश
तुका ना अहंकार
तुका नातिल्ले गुण ना
तू महाजनांत एक जन.

2. सूर्याक उदय नित्य
केदनाय उदय निश्चय
अहंकार चड आसिल्ले सूर्याक
आरोहणाचे मुर्धन्यार थाकून
अस्तमय -
सूर्याक अस्तमय नित्य;
प्रति दीस अस्तमय निश्चय.

3. देवळांत केदनाय वतात उणें जनां
तांणी थांगा राबून करचें परदूषण
परदूषणाचें फल परिसरदूषण
देवळांत वचनात उणें जनां
तांणी घरकडे बैसून म्हणतात कीर्तन
कीर्तनाचें फल परिसर शुद्धि
- तूं, कीर्तन म्हणचो मनीश.

4. काणि सांगचे म्हांतारीक भय चड
काणि आयकूचे चेरडूवांक भय ऊणे.

5. फुल्लेलें फूल
फाय पोण वतलें;
आयकलें गींत
फाय विसरनु वतलें
- दुःख तसीच राबतलें.

6. म्हैन्यांत संक्रांतीक स्टेंप
वीस पैश्याचे स्टेंप थापून
ताजे उंचार हस्ताक्षर घालून
हात दाकयल्यार खंडित;
तुका मेळतलें वेतन (सांबोळु)
तो दीस तुका मनांत उत्सवु;
आमाक, बापाक, भयणीक, भावाक
मामाक - सगटांक उत्सवु.

---

# कवीची वळख कविता -

**शरतचन्द्र शेणै**

कवीची वळख ताजी कविता. कवितेचे आनी आस्वादकाचे मद्दें येवप बरें न्हय. कित्या म्हळ्यार, कवितेचें आस्वादकाचें नातें महत्वाचें नातें. देखून तुमी आदीं कविता वाचच्यो, रूचच्यो आनी मागीरच मजे ह्या उतरांकडे ध्यान दिवचें अशे मागणी आसा.

म्हण्णी आसा - "साधारण मनीसानी पळोवनातिल्लें पळोवंचो कवि, आयकनातिल्लें आयकुचो". म्हण्येंत एक गुपित आसा - एक महत्वाचें सत्य. साधारण सामान्य मनीस आपण्याक सायनतिल्याकडे पळयना. भोवतेक गजाल्यांकडे जाणूनूच दोळे आड धरता. रूचना - तिल्या वास्तवांमुखार केप्पो भेड्डो जाता. साहित्यकार ह्या तराचें मोहक वरदान तिरस्कारता. तेंच न्हय, वाचकांलें दोळ्यां - तिमिरय तो उसळावंक सोदता. आधूनिक साहित्यकार अशे घोषणा करता - "दिसा उजवाडें निदेवंनाकात पायांबोटां मेजून बेसून कुरवूंनाकात !"

हांगा प्रसक्त दिसतात लंडनाचे डिटक्टीव शेरलोक होम्स हागेले उतरां- "साबाव वीक्षण करप व्यर्थ वावर. अम्मी निरीक्षणच करूंक जाय". श्री. शिवानन्द शेणै निरीक्षण करपी. सत्यार्थी आनी सत्यभाषी. अप्रूप वस्तूंकडे वाचकांली श्रद्धा वळोवन तांचे दोळ्यांखातीर चिर नवीन दृष्टिकोण निर्मिता हो कवि.

शिवानन्द शेणैली कविता एक "प्रिसम" कशी व्यक्तिजीवितांतले मनीस समाजांतले सौमांतले आनी पुराणांतलेय वी आगळे वेगळे सूक्ष्मांशांचीं कितलिंशी रंग रंगयाळीं चित्रां तांतूंतल्यान आस्वादकांले दोळ्यांमुखार शिंपडून पडतात.

"किरकिर" ह्या आपल्या पयल्या कविता संग्रहांत डाणे केरळचे साधारण जनांले जीविताचीं निजीं चित्रां रचिल्लीं. हताश मनांचीं खळसां निर्शेणी उक्तायल्लीं. प्रतिकूल परिस्थितींकडे आमी प्रतिक्रिया करूंया अशें आह्वान दिल्लेलें. त्या संग्रहांतल्यो कविता एकठांय करतना एक समग्र तशें चित्र मेळता. दक्षिण केरळचे कोंकणी समाजाचें तें पडबिंब -

देवळांतली दूषणां - कामेल्याचीं भूषणां - घरांतलीं बरेपणां - ब्राह्मणांलीं बरेपणां ...... काणी सांगची आज्जी - तेल सरलेली दिवली - रेशनाचें क्यू - पोटांतली भूक - मनांतलीं स्वप्नां - हर्द्यांतलो धीर ...... एक आवस - पुताक सत्य शिकोवंची - एक आवस - धूवेक वाट चुकोवंची .... एक मागणी देवागेर "यो यो यो ह्या कुळाव्यांक राक" एक शिटकावणी पूतागेर - "चूकी आपडून राखोवंचाक नज तरी बोट कित्या रे तुका ? "

तशि आस्वादकांक उत्सूक करूंक फाव तें सगट शिवानन्द शेणैले त्या संग्रहांत मेळता. ह्या नवे कविता संग्रहांत तरी कवि प्रवासी जाला. गोंय पळोवन आयला (1990). गोयांकडे एक आपलेपणाची निजी ओड़ ताका अणभवल्या. देखूनूच सद्याची तिजी कांय आवतिकाय ताजे अंतरस्कर्णाक घुसमुटायता. "गोमन्तक-90" ह्या कवितेंत तागेले विक्षणविशेष विस्तारान विवरसिला -

मडगांवचें परणें बस स्टेशन - एक वृद्धवृक्ष - एक म्हातारी आज्जी - टावरिनांतलें कोकटेल - रानांतलें एक अनाथ शव - एक फुटल्लें पूल - चरित्राचे उडगास आनी अवशिष्ट कुटके .......

अशि तिकसाणि मिटसाणि गोडसाणि आंबसाणि सगट ह्या संग्रहांत मेळता. वास्तवाचें चित्र दिसता काळें आनी खरखरें (गोमन्तक एक आनी इखरा). धवीं शुभ्र चित्रां आसात विनोदी व्यांग्याची (उपदेश, फरक) आनी उपहासाचीं (निष्टा, हांव कुरवंता) थंड तत्वज्ञानाचीं हळदूवीं चित्रां (कीर काणी सांगता, आषाढांतलो पावस) आनी आखांताचीं, हसक्याचीं गाढ़ तांबडीं चित्रां (चरित्र, सुक्कें सीत) हांचे वांगडां आसात सप्तरंगी स्वप्नांचीं चित्रांय (स्वप्न, पूत, सीतेलें स्वप्न).

घडियेक एक माडयाचीं नष्टस्वप्नां पळेत स्तब्द, मूक, काकुळवंत राबिल्लो कवि, मागीर स्वर्गदारांतल्यान खालाची नरकपीडा पळोवन हांसूक सोदता. वड़्डी परतूंक कष्ट काड़्न हारी खाता. मनांतले सत्याचे कीरालागि झगडता. ह्या चांगपणाचे सांतेंत सुक्कें सीत धरून आषाढांतलो पावस पर्यान मेळता धा

वर्सां पिरथम हाणे सांगिल्ली हांगाथंय जालेल्या एक कुटूम्बाची कथा (किरकिर) आतां तो सांगता विखंड जालेल्या एक समाजाची व्यथा (गोमन्तक णव आनी धा).

चिन्तन केल्यार कळता - केरळची कोंकणी कविता साबार काळांक भक्तितच मग्न अशिल्ली. "गोड्डे रामायण", "वेंकटेश कल्याण" असलीं परणीं विशिष्ट काव्यां आमकां मेळ्ळीं. पुण सामाजीक इतिवृत्ताच्यो कविताय पिरथम थाकून हांगा अशिल्योच. दृष्टांत आसात "वळार", "भोवूळ गाय", "श्रावण" असलीं कथात्मक काव्यां. ह्यो गजाल्यो भोव परण्यो. वीसावे शतकाचे तीसरे दशकांत हांगाचें कोंकणी साहित्य जेन्ना ताज्या लांब निदेंत साकून जागें जालें तेन्ना ताज्या यादीर फक्त भक्तिभावच उरलेले. सुन्दर, मनोहर, छन्दमय, संगीतबद्ध तसलीं जायतीं काव्यां कीर्तनां आनी गीतां त्या वेळार उपजलीं. दृष्टांत आसात "रधुरामायण", "कुचेलोपाख्यान", "सत्यनारायणकथा" इत्यादी गेयकृतियो. सादे सोपे आशय सरळ उतरानी सादर केलीं त्या कालाचे कवीनी. मागीर मागीर नाटकां खेळोवंक लागले तेन्ना मस्त विनोदी पदांय उपजलीं.

तरीय भावात्मक म्हणूयात तसली कविता - अंतरस्पर्शी उतरांची, उत्कट अणभव चितारची, श्रेष्ट विचार प्रगटावंची आत्मनिष्ट कविता हांगा देखूक सुरू जालेली कांय तीस - चाळीस वर्सां फाटीं साकून मात्र. कोचींचे "कोंकण जनता" नेमाळ्याचेर एकदां तसली हृद्य कविता छापून येता. तसल्यांतलो एकलो हो तरी दूसरो आसा कोचींचो श्री. आर. एस. भास्कर. आपण्याले "अक्षरां" संग्रहांतल्यान अपूण एक तांकीवंत कवि अशि ताणे दाखयल्यां. ह्या दोग समकालीन कवींचे कवितेंत कसली साम्यता आसा, कसले भेद आसात तें पळोवंया -

"सगळे लोकांतंय कितेंय जावो - कोणूय मरो - कोणूय मारो - माका कितें - हांव सुस्त एक निदेतां !" अशि तरी निदेवंक कोणाक सोडनात हे दोगांय. कुरवंतल्यांक हे जगयतात. दोळे घष्टून चौवशींय पळोवंक प्रेरणा दिता

हांची कविता. साम्यता आसा ही.

तरी आतां कल्पना करूंया कि हांच्यो कविता जाल्यो रंगयाळीं चित्रां ! तेन्ना शिवानन्दाले कवितेंत दिसतले गाढ रंग, आनी भास्कराले कवितेंत हल्के. तरी हांच्यो थोडयो कविता जिबेक लावन रूचल्यो, तेन्ना भास्कराली कविता मिरसांगेचो आस्पाव कळयतली आनी शिवानन्दाली कविता एकदा जीब हुलपायतली ! तरी हे दोगांय संगीतज्ञ जाले म्हणतना भास्कर सितार हाताळता दिसतलो आनी शिवानन्द फिडल ! ह्याच सारखो भेद हांच्या कवितेचोय. म्हणयेत कि तो सैमाचो पुजारी आनी हो सत्याचो झूजारी. नवे कवितेचे, दोगांय फुडारी !

फुडारी लोक एकाकी लोक. फुडें वतल्यांचे लागीं कोणय असचें विरळ. तरी हांतु ह्या कवीक कसलोय खेद दिसूंक हेतु ना. ताका कळता -

"एपिळ खावचाक लागीं कांय नाका
उदाक पिवंचाक लागीं कांय नाका
आनी
चांगपणाक लागीं कोण नाका".

असल्या ह्या एकमुळे कवीक माजीं परबीं आनी आशंसा.

---



## १. आषाढांतलो पावस

आषाढांतलो पावस
आवसूवरी म्हूण
सांगिल्लें कोणे?

आषाढांतलो पावस
बायलेवरी म्हूण
सांगिल्लें कोणे?

आषाढांतलो पावस
पडून आसा
राति नातिल्लें
दीस नातिल्लें पडून आसा

दोळे भरून रडचे
हे बायलेलो
बामुण कोण?



---

## २. धूव

कुळण्यांत पेज ना
साबाव निशें -
पोटांत भूक ना -
रित्ते ताटार मनांत
एक धूव
रडून आसा -
ती कोणाली बायल जातली ?
तिका आठयतना
माका उजवो हात ना
उजो लागून गेल्लो.
गिळ्ळोलो कांटो
ताळ्याक खोंवून आसा.
आनी बीळांत
जीविताचें एक बाल
दृष्टींत आसा.
मळबार एक फातर
पाषाण जावन आसा.

---

## ३. माड्याचें स्वप्न

माड्याचें आळ्यांत
उदाक भरून पडल्यां
तांतु बोंडे पोवन पडल्याय
अर्धार गर्भ निसरून गेल्लेलें
माड्याचें स्वप्न -

फाय शियाळीं जावन
तान दूर करका जालेले बोंडे
नारल जावन
तेल दिंवका जालेले बोंडे -

पावसांतले उदकांत
पोवन पोवन पोवन
माड्याचें स्वप्न.

---

# ४. दारवटो

स्वर्गाक एक दारवटो -
खाल चोंवचाक
खाल नरकांत पडलेले
बाल्लाव मनिषांक
भाजूचें चोवंचाक.
आमकां दिल्लेले पीडेचें
लेक सांगून
बरें मीट मीरें लावन
खतखतेवंचे तेलांत
भाजून सिजोवंचें चोंवचाक.
स्वर्गाक एकच एक दारवटो
खाल चोंवचाक.
माका मारलोलो गुरु -
माका मारनातिल्लो बापा -
अपूरबायेन, माका मेगेले वाटेन
सोडलेली आवस -
माका वाडलेलें सीत
सगळें खेल्लेलें सूणें -

मेगेले मात्यार हागिल्लो कायळो -
तशि
एकेकल्यांक जावन
भाजुन काडचें
चोवन हांसूक.
माका मन दिल्लेले
देवाकय भाजूचें चोवंचाक?

---

## ५. फरक - १

शियाळें पिल्लेले चेरडाक
सूर पिल्लेलें मन -
सूर पिल्लेले आबोक
शियाळें पिल्लेलें मन -

## फरक - २

नीद नातिल्ले रायाक
निदेपिशशें आशिल्ली
राणी -
भूक नातिल्ले रायाक
भुकेपिशशें आशिल्ली
राणी -

## फरक - ३

खाल्लटाक
एक भट आशिल्लो.
देवापूजा करून
उपास पडून मेल्लो -

उंचटाक
एक भट आशिल्लो.
देवा फटोवन
दुड करून मेल्लो -

देवा दोगालेंय मनांत आशिल्लो.
एकल्याक शेळोव जावन
एकल्याक हुनसाण जावन -

---

## ६. भाग्य

सूर्याक उदेवंचाक
केळका मळबच जाय
सूर्याक अस्तेवंचाक
पणजरा मळबच जाय
दिस्सलेकडे पडचाक
भाग्य जाय.

---

## ७. चरित्र

एक रूक आशिल्लो
तो पडून गेल्लो
एक आज्जो आशिल्लो
तो चमकून गेल्लो
एक आज्जी आशिल्ली
ती तागेले मागल्यान गेल्ली
एक घर आशिल्लें
तें रित्तें जाल्लें
एक रान आशिल्लें
तें सुकून गेल्लें.

---

## ८. स्वप्न

आयलेलें बस सगट
राबोवनातिल्लें गेल्यार
हांव हांगाच बेसतलों -
माका जावन एक बस येतलें
हांव ताजेर चडून वतलों -
अशि
मेगेलें स्वप्न.

---

## ९. चांगपण

अपिळ खांवचाक
लागी कांय नाका
उदाक पिवंचाक लागी
खावंचाक कांय ना
सूर पिवंचाक
जिबेर लावंचाक
मीरें जाय, मिटसाणी जाय
सुंगट भाजिल्लें जाय
चांगपणाक लागी कोण नाका.

---

## १०. उपदेश

उंदीरा तूं पेटेंत चड
दिवडा तूं गुळक्यांत पड
मासळें तूं बोल्यांत पड
दादल्या तूं वरडीक कर

---

## ११. पूत

भीमा वरी एक
पूत जावंका.
खेळांतूय
शाळेंतूय
मुकार राबुचो पूत
खावंचाक
जेवंचाक
मुकार आसुचो पूत
भीमा वरी एक पूत.

---

## १२. अपूरबाय

बामणाक बायल जांवका
बायलेक चेरडुं जावंका
चेरडाक बावलें जावंका
बावल्याक
पोट भरनु
तिकसाणी
मिटसाणी
गोडसाणी
दी रे मेगेले देवा -

---

## १३. कीर सत्याचो

हावें म्हळ्ळें :

मनांत एक फूल करपून पडल्यां
मनांतलो कीर उलयना
कीराक पिश्शें लागलां
हावें सांगुचें तो परतून सांगना
हावें म्हणचें तो परतून म्हणीना-
मनांतलो पिश्या कीर
म्होणूच आसा-
तो सत्या-पिशाचो
सांगता फटी फक्त हांव.

---

## १४. बड्डी

एकेक उंडी सीताकय
आट उंडी बड्डी -
एकेक उंडी बड्डी दिवंचाक
रातदीस कष्टल्यारीय
अर्द उंडी बड्डी बाकी -

---

## १५. निष्ठा

फुल्लां हाडि, फुल्लां गांति, फुल्लांमाळेन तोरण बान्दि
मोगरें हाडि, शेंवतें हाडि, पत्माक्ष हाडि
सग वर्णाचेंय अबोलें हाडि
तांबीडें हाडि, नीळ हाडि, हळदूवें हाडि, धवें हाडि
माळा गांती, तोरण बान्दि-
दिवलि हाडि, दिवलि धूय
दिवलेंन्त तेल घालि -

हांगा तोरण
हांगा पाचूवें तोरण
            तांबीडें तोरण
            हळदुवें तोरण
थांगा तोरण
            नीळ तोरण
            धवें तोरण
            तांबीडें तोरण
हांगा तोरण, थांगा तोरण
आंब्या पाना तोरण थांगा बान्दिरे
दिवटि हाडि लुगट वेडावनु तेल घालनु जळयाय
हांगा दिवटि थांगा दिवटि

राम यो रे, कृष्ण यो रे, परशुराम मुकार राब रे,
लक्ष्मणां तूं दिवटि धरी,
तेला कळसो अर्जुन धरी,
दिवलेंत कोण तेल घालता?
तेल न्हय रे, तूप घाली -
दारूव हाडि
कोदन्यांत भरि
सांगूचे वेळार उजो लाय
आतां न्हय रे, आतां न्हय
सांगूचे वेळार उजो लाय -
पेंपरीं वाज रे
धोल मार रे
दोनीय एकच ताळार वाज रे
पी पी वाजूचे चल्या मात्यार एक टुक्ळी दी रे -
करपूर घेवंचाक गेलोलो गोपाळु परतून पावलो रे?
यो रे गोपाळा, बेगीं यो रे,
गोपारावयले दिवलेंत वाति लाय रे -

(तेल फारल्यार तेल मेळता
नारल फारल्यार नारल मेळता
फूल फारल्यार फूल मेळता
दुडु फारल्यार दुडु मेळता
फारता तशी मेळता राबता -)

तोरण बेगीं बान्दून यो रे,
दिवली सग लावनु यो रे,
दिवटि सग धरनु राव रे,
कोदनो सांगूचे वेळार मार रे-

अशि उत्साहान
गांवा सगट एकडे जाताय
अशि उत्साहान उत्सव करूक
अतां माका कसो उत्सव?
हांव नेणताणा कितें हो उत्सव? कित्याक उत्सव?

देव निमगीता जनांलागी -

कितें रे भटा, कितें रे बाळा,
तोरण बन्दताय, दिवालि लायताय,
दिवटि काडताय कोदनो मारताय
कित्याक रे भटा .......?

नेण व्हय देवा, स्वामी येताय
अतां ......... अतां ........ अतां पांवताय ......

तोडें करपून,
दोळे धांपून,
देव सांगता
पायसा पूजा दनपारां,
दनपारां पूजा मदराती,
मंगळार्ती फायचे फांत्यारी,
आनी खाण न्हाण
तांका दिसचे वेळांरी
हांव फूट उपाशी

---

## १६. कीर काणी सांगता

कीरा तूं यो बैस गा
काणी पुरति सांग गा.
आयकूक कान दीवनु राबल्याय गा
कीरा तूं यो, पुरति काणी सांग गा.

न्हंयचे तीरार एक फातोर पडलोलो
पाषाणा फातरेर पाय दवरनु
मोंचुवार चडून
आलतडि येताय
पलतडि वताय
एकलो गेलो, दोग जाणां गेले
तशि जाय ते महाजन अळत पेळतांत गेले
फातरेन दिकीलें एक स्वप्न
एक दीस येत्ता - पायु येत्ता
श्रीरामचन्द्र येवचो दीस पांवता पायु
फातरेर पायु दवरनु मोचुवार चडता
तवळी ही फातरी अहल्या जाता.
यो कीरा यो काणी पुरति सांग गा.
आयकूक मन दीवनु राबल्याय गा
कीरा तूं यो काणी पुरति सांग गा.
यो कीरा यो, काणी पुरति सांग गा.

घोर रानांत एक रूका खंदार
बैसलो गोपालकु
पिरलूक वाजता राग म्हणता
एक राग जालो
दोन राग जाले
तशि जाय ते राग ताणे म्होण सोडले.
गोपालकान दिकलें एक स्वप्न
एक वेळु येता
बाली पुनर्जन्मांत बेडु जाता
मृगयेवेळार तो बाणु सोडता
तें लागून हांव मोरनु श्रीकृष्ण जाता.
अशि तशि काणी पुरति जाता
हावें आपडून फुलझाड फुल्लेता
तुगेली सावळी पडून फूल बावनु पडता
आनी हो कीरालो जन्मु
काणी सांगून सोरनु वता.

---



## १७. सीतेलें स्वप्न

(1)

श्रीरामचन्द्रालि पत्नि जावनु
जनकालि धूव स्वप्न दिकता
तिका हासु येता, ती नांचून भोंवता
तिका लज्जा पावता, ती निपून राबता

(2)

तीणे न्हावपाक बुडचे तळ्यांत
तो उदाक येवनु पडता
तिगेले पायाक धरता
                हाताक धरता
                अंगप्रत्यंग खाचकुली घालता
लज्जा पावनु बुडता
हासु पावनु राबता
उत्साहान ती जलक्रीडेंत निमग्न जाता
- केन्नाय ती न्हावचाक तळ्यांत पावता

(3)

तीणे भोंवचे उद्यानांत
तो वारें जावन पावता
तिगेली फांति धरता

फूल काडता
वालीर धरता
वर्ल उबयता
तिगेले वोंटाक उम्मो दिता
हातार धरनु
तिका हस्तालिंगनांन निमग्न करता

लज्जा पावनु राबता
हासु पावनु धांवता
कामाभिलाषान ती वारयांत राबता
- केन्नाय ती भोंवचाक उद्यानांत पावता

(4)

तिका उळदीता
ती लागी वता
काणी सांगून, किरकिर सांगून
गींत म्हणु तांनी राबताय
तिका तो
ताका ती
तांका तांनी एक मनान राबताय.
ती फूल काडता
माळा गांतता
ताका घालता
चोवनु चोवनु राबचे सगट
दोळ्यां मुकार पावचे सगट
तिका श्रीरामचन्द्रु जाता.

(5)

शूरू, वीरू, गुणवंतु, आदर्शशीलु
आवसु-बापसूंक चांग पूतु
गुरूक उत्तम शिष्यु
भांवडांक चांग भावु
अस्त्र-आयुध विद्येंत अद्वितीयु
 - तो स्वप्नांत मिगेलो घोवु.
कोण तो
कोण तो
कोण तो
माका रोमांचकंचुक दिवचो तो कोण

(6)

सीता साबाव स्वप्न दिकता
सुख सुन्दर जीवित स्वप्न दिकता
फाय तिगेले स्वप्न पोण वत्तलें
                    करपून वत्तलें
घर सोण
गांव सोण
रान्नांत वचूका जात्तलें
बापाक सोण
भावाक सोण
परगावांत वचूका जात्तलें
बापाक सोण
घोवाक सोण
पुत्तांक सोण
तिका वचूका जात्तलें
-सीता साबाव स्वप्न दिकता.

(7)

सीतेन स्वप्न दिकचे वेळार
श्रीरामचन्द्रु गांव गांवात
ऋषिवर्यांले यागांक संरक्षण दीवनु भोंवता
- हें तिगेले स्वप्नांत ना.
तिगेले स्वप्नांत फूल, ताका कांटो
तिगेले स्वप्नांत उद्यान, ताका रान
तिगेले स्वप्नांत घर, ताका आश्रम
तिका तिगेले म्हणु, ताका वेगळ्यांले म्हणु
ताका बंधु ना, सगटय प्रजाच
ताका स्वार्थ ना, सगटय चांगपणाक
ताका स्वकार्य ना, सगटय सगटांकय
सीतेले मनांत श्रीरामचन्द्रु
श्रीरामचन्द्राले मनांत कोण ना.
सीता......
सीतेन दिकचे स्वप्नांतलें कांय ना.

---

## १७. हांव कुरवंता

सूत घालनु सीत जेवनु
हांव ब्रह्मचारि जाता -
भिक्षाम् देहि म्हणू सांगूनु
हात भरनु भिक्षा घेवनु
हांव ब्रह्मचारि जाता -
वाचून न्हय
आयकून न्हय
सिकून न्हय
कांय जाणा जावनु न्हय
मनांतुले, पोटांतुले, बुद्धींन्तुले
भुकेक भिक्षा घेवनु न्हय
दिकिल्ले सपनाचे साक्षत्कारा पसूनु
चिन्तन ना - मनांतु भूक ना
आवय बापूस खांवचाक हाडताय कशि म्हणु
चिन्तन ना - पोटांतु भूक ना -
पोणु मेळचें सग घेंवचे
रित्तें ताट्टर बुद्धीक भूक ना
त्रिकाल संध्या करनु (कित्याक म्हणु कळना)
सुत्तांचें जानवे घालनु (जानवे कितें म्हणु कळना)
भोजन करनु (तें कितें म्हणु कळना)

हांव ब्राह्मणु म्हणु सांगूनु भोंवचे
गांवांतु समूहांतु समुदायांतु
भरनु काळोक
कांय जाण जांवका नाका माका
मनांतु उजवाडु नाका माका
एक पान सीत दियाय -
ग्रन्थ नाका माका
प्रभाषण नाका माका
हातु भरनु चोण्या उक्करी दी
तुमी बैसून उलैयाय गा ......
हांव कुरवंता
तुमी सांगाय गा
उलौनु, सरनु उटावनु वचे वेळारि
माका उळदाय गा ........
हांव एक कुरवंता.

---

## १८. सुक्कें सीत

एक बायल आसली
तिका बांयतु घाली;
एक धूव आसली
तिकाय बांयतु घाली;
एकी एक नाति आसली
तिकाय बांयतु घाली;
आनी हांव कितें केलें ?
हांवय बांयत उडकी मारली.

मिगेले स्वप्न सगट करपून वच्चे
ह्या गांवांत
मिगेलें दुःख सगट जड जांवचे
ह्या कालांत
हांव धावनु वच्चें खंय ?
मिगेले प्रश्न सगट घुपसून वच्चें
ह्या गांवांत
मनांतलो गाद्दो फकत उपाशिं पडचें
ह्या कालांत
हांव परतून वचप खंय ?

ना, हें कांय ना
हांव कित्याक हें पातक केलें
माका आयकुंक एक चांग चिंतन ना
माका म्हणूक एक शुभ शोभन ना
माका दिकूक एक मनोरंजन ना
माका लांवचाक दिवलेंत एक वाति ना.
नः हें कांय ना,
हांव कित्याक हें पातक केलें

गिळ्ळेलें सुक्कें सीत कांटे जावनु
ताळ्यांत आसा
बायल निमगीता-
माका मागल्यान कोण
ताळ्याक उदाक घालूक कोण
मरणार माल्लट्टींत उजो काडूक कोण

नः हें कांय ना,
हांव कित्याक हें पातक केलें
माका मिगेले जिविता पसावत
ताप आसा दिकून
माका मिगेले जिवितांतलो मोग
म्होंव जाता दिकून
माका मिगेले जिवितांतली तान
ल़्हान जाता दिकून.

---

## १९. एकलो असिल्लो

देवाक सरि मोलाक काडूक
एकलो असिल्लो
माळ पै -
देवाक सरि राकून काडूक
एकलो असिल्लो
काळगप्रभु -
देवाक सरि सांगून राबयतल्लो
एकलो असिल्लो
देवरेश किणि -
देवाक सरि धूवेक व्हार्डीक करनु दित्तल्लो
एकलो असिल्लो
जनार्दन शेणै -
देवादयेन देवाकसरि
फारनु काडतल्लो
निपोवन व्हरतल्लो
चीरींतु काडतल्लो
मोंचुवारि व्हरतल्लो
मुळिका खोट्यांतु निपोवन घलतल्लो
देवाक सरि जीवित दित्तल्लो.
एकलोच एकलो असिल्लो -
तागेलें नाव-
तें देव सरि विसरलो
दुडु नातिल्ले जनांक देव सरि विसरता
जन सगट विसरताय -

# २०. सीता

सीता रडना !
आवसून तिका
जन्म दिले तेन्ना
न्हयंत सोडली -

सीता रडना !
बापसून तिका
शिवचाप मोडलेल्याक
कोण चोवनातिल्लें
दिवंचाक निर्णय केल्लो -

सीता रडना !
आवस बापूस गुरू प्रजा
सगटांकय कान दिवंचें
बायलेलें मन कशें म्होण
सारि निमगूनत्तिल्लें
बामणाली बायल जाली -
सीता रडना !
बामूणूय पूतय जावनु
झगडताय चोवन
तीणे साबाव
राबूका जालें

सीता रडना !
रावणाले अशोकवनांत
बामणाक सोडून
रातदीस मेजून
बेसूका जालें

सीता रडना !
भांगरा प्रतिमेक
सीता म्होण करून
यागांत बेसयल्या
म्होण तिका आयकूका जालें -

सीता रडना !
हें सगट माथ्याबोरो म्होण
जीवितांत हें सगट भोगूका म्होण
तिका कळता देकून

सीता रडना !
कित्या म्हळ्यार
वाल्मीकीन तशें
बरयलेंना देकून.

---

# २१. गोमान्तक-९०

(1)

मडगावांतुले परणे बस स्टांडा मुकारी
आबू-रूका सावळेंतु
प्रायेन चुळकेल्ले तोंडय जावनु
एकि म्हांतारी आज्जी बैसून आस्सा -
वोंकोरु भरलेले दोळ्यान
दूर थाकून एकेक बस
धावनु येंवचें दिकूनु
मन भरलेली आशाय
राबौनु जन सगट देवनु
रिति भांडि धावनु दूर वत्त चोवनु
निराशाय घेवनु
भुताकय भावीकय मद्दें
फुटूनातिल्ली एकि साक्का दोरी सरि
म्हांतारी आज्जी बसल्या -

(2)

फातर पुंजावनु दवरुनु
अपुरबायेन एक आपडल्यारी
कोपान एक धिंगुळ्ळ्यारी
पोणु वच्चे वरी
फुडे केदनाय कि एक कालाक बन्दिल्ले
पागारान वांटिल्ले

एकेक जागेंतूय
एकेक घरांतूय
पूतय
पुतण्येय धुवोय नातूरंय
पणस वोवनु बिंकंड किरलेवनु
तिळवो जावनु
बोरको जावनु
एकेक जागेचे कुटक्यांतूय
जन्म घेवनूय
जन्म दीवनूय
गुरबिणि जावनु वीवनूय
मरणांतूय
तूंटून वचनातिलें आतंय आसा
ती-

(3)

टावरिनांतु
ल्हान उजवाडांतु
मोवाळ ताळ्यारि
कोण एकलो म्हणता -
कोकटेयिलांतु
लहरि फेणैयता -
ड्रम बांडारि थाकूनु होळ्ळो शब्द येता
मागीरी होड ताळ्यारि बोबाळ
गोवंटेरि
खुर्सा माळा घालनु

एकु पिशाचो
टावरिनांतु
ल्होवूच चोणु येता
सोरो
बांटल सयत पीवनु सरैता
बांटल विंदून पेल्यान घालता
मागीरी,
दिंबियेरि बसूनु
खाण मेशेचेरि पोल्लो दवरून
कूमार सांगता -
  हावें केल्लेले कोरनु सरलेले
सगट चूकेंकय
माफ दी माका
मेगेले बापा
चूकि एकेक
हांव सांगतां
दी माका
माफ -

(4)

फल एकेक पोणु वत्ता
रूक झाड मागीरीय फुलता
        फुलता मोगरें
        फुलता करवीर
        फुलता सेंवतें
        फुलता फुलता - मेगेले गोंय

जनन मर्णाक मद्दे
सान सेंतु जावनु कालु पडला
तोंडारि चुळकेनु
बालचापल्य
यौवनांतूलिं तान
फुलचे पिरथम पोणु गेल्लेलीं स्वप्न
गीमु
दोव भरलेलें सकाळीं
पावसु - की
पावसा सावळी की
सखी, एक मेळपाक
अडखळ आशिल्लें
तुगेलें मन वे
तुका चूकेन दिसल्लो मान वे
गोवंटेवेलो खुरिश वे
दोळ्यांतुलो काम वे
आंगावेली मिटसाणी वे
सुस्काराची हुनसाणी वे
चेल्ले
तुका घुपसायलेली
            वोडिल्ली?
चुळको विस्कळावनु
सण्ण तुगेले पोल्यारी
एक उम्मो दिवचाक
खळी आनी बाकी आसतलिव?

(5)

म्हांतारे आज्जे
कित्या हांगा बसल्या
येताय रे पूत
येताय रे भांवडां
येताय रे आवसबापूस
येताय आनी मेगेले मुकावेले पिळ्गे -
तांनी धावनु गेल्लेले वाटेरी
विकोरनु पोणु गेल्लेले
बीयां थाकूनु जोलेले मेळ्ळेले
भात्ताचे दाणेंय
समृद्धीय घेवनु
येतलीं तांनी
सगट माका दींवका जाल्लेंली
माका दिवंची -
धावनु धावनु धावनु वच्चे वेळारि
मगल्यान चोवनु मीठाफातोर जालेली
सारा हांव
गोवंटेरि बेतीन घालनु
बल्लाव जावनु भायर पळ्ळेली
हांव -

(6)

भूंयची ल्हानपण दिकून फिरंग्यानी
उपदेशु वोयलेली
श्याम भूमि हांव

सगट सहन करनु
सहज दुःखान
जडाशरीरय
आनिकय जीर्णित जावनातिल्लें
विषान वायट जावनातिल्लें मनय घेवनु
रांटूनातिल्लें आत्मा जावनु
सत्य जावनु
साधारण जावनु
शिव जावनु
साक्षी
म्हांतारी आज्जी बसल्या-

(7)

फादर - हावें एकि चूकि केल्ली -
सांग धुवे -
हांव देवळांतु गेल्ली -
तें कशि चूकि जातली धूवे ?
हांव गेल्लेलि हिन्दु देवळांतु तं -
होड न्हय धूवे -
हांवे हात भरीच सूको वोरोव
दान दिल्ले फादर -
तें तुगेलें पैतृक तं -
राती रामनाथींतुलो शिव
मेगेले लागि येवनु
हासून राबता म्होण
हांव स्वप्न दिकता फादर -

येशूक प्रार्थना करनु
निदेंवचाक पड धूवे -
फादर-हावें येशु म्होणचे वेळारि
रामनाथींतुलो देवु उल्लो आयकता -
तुगेले गोवंटेवेले शुर्साक धरनु
प्रार्थना करि धूवे -
फादर - थांगा हांव हारवता-
गोवंटेरि खुर्सामाळा आशिल्लो तं
मेगेले स्वप्नांतु येंवचो देवु -
तो माका चोवनु -एकेक पावटीय
खुर्सार उम्मो दिता
रामनाथींतुलो शिव
जल्यारि धूवे
तूवें दिकूचो शिव आमगेलोच तं -

(8)

एक कालाक एकु रायु मेल्लो
तावळि एकु रायु जन्मलो
गोंमतकांतु राय मात्र बदलले
महाजन, रेणुकेले पूत
म्हांतारे आज्जेले गोत्रांतुले आंकुर
हिन्दु जावनु
मोयर जावनु
क्रिस्तांव जावनु
पैत्रकांतुले सांखाळेचे

एकेक कुटके जावनु
आतांय आसात

(9)

खुरिस दिकूनु
भीवनु धावलेले
गोमंतकाचे भायर
भारत खण्डांत भरनु सिवंडले -
पविल्लेकडे
रायां लागीय जनां लागीय
सहकार दीवनूय
एकमेळनूय
तांगेलि भासय संस्कारूय
राकून राकून काणु
आतंय जीवित काडताय -
खुर्सा लागी युद्ध केलेलीं
हारवून
गुलाम जावनु
काम करनु
कष्ट भोगून
क्षीणित जावनु
अवश जावनु
समुद्राचे पेळतडी
रानांतु विन्दूनु पोणु
रानफल खावनूय
व्हळा उदाक झायतें पीवनूय

एक वेळारी स्वप्नांतु येवंचे
आशेचे मालाखेलगि
कोंकणी सांगूनूय
आजीय
नांवय
मूळय
गोत्रय कुळागरय
गांवूय घरय
नष्ट जावनु
जीवित काडताय -

(10)
नेणतांशेय
जाण जावनूय
बोध-अबोधांतु
गोवंटेरि पळ्ळेली
खुर्सा माळा काडून दूर विन्दूक
जावनातीलें
हारवूनु
आतांय जीवित काडताय -
तांगेले घराकडे
अलंकाराचे आलमारेंतु
शिवलिंग आमी दिकताय
तांगेले नांवाक शेंपडी जावनु
पैतृक लांबून पडता

तांनी सदा कोंकणी सांगताय
परणे पुराण सगट चिकूणु भोंवताय
तांनी
तांगेले
दंदकाराक
शंकर म्होण उल्लो दिताय -
तशि रेणुकेले पूत नातूर
जीवित काडताय
पोवंताय, बुडताय
नष्ट जालेलें सगट
पोरतूनु मेळतलें म्होण लेकूनु
नष्ट जालेलें सगट
पोरतून येतलें म्होण लेकूनु
देवभूमींतु सदा सौहृद
राबतलें म्होण लेकूनु
तांनी जीवित भोगताय -

(11)

रानांतु
कोणे नेणताणा
कोणे चडनातिल्ले एकडे
मर्णाचि घाणि
नाक धांपूनु
लागि वोचूनु चोवंचे वेळारि
एक जीर्ण मोडें.

पाय दोनीय विस्कळावनु पडल्या -
पिंजल्ले चोळिये भित्तरि
घाय पळ्ळेलीं स्तनां
घाणि नांकाचे
सांकोव मोडता
कुसल्लें मोडें.
पत्रिकेरी ही वार्ता
येना - येंवचिना -
सभाध्यक्षाले स्वकार्य कूडांतु
एक स्टेनोले
होंट कातरलेले शेष
फेणेवनु उंचारि येवंचेकडे
साबाषीं -
स्वतंत्र स्त्री विमोचन प्रस्थानाचीं
साबाषीं -
रस्तेचेरी
होंटांर तांबिडसाणि लावनु
एकेक रातीकय
एकेक देवाक सोदूनु भोवंचे
येल्लम्माले अवतरांकय
साबाषीं -
शंबर जनानि
मागल्यान
मागल्यान पोरतूनु
भोगलेले क्षीणान
पूरो जावनु

घूंवळि येवनु
जीवाचे अंतारि
एक तोंड भरनु
श्वासु गीळूक
चेल्ली त्रास काडचे हे वेळारि -
सांग,
संजया सांग
पांचालीक कितें जालें म्होण न्हय
मेगेले पूत नातूर
कितले
शूर वीर म्होण
विचारून सांग रे संजया -

(12)

एक दोनि चक्राचे टाक्सीरी
चेल्ली
ड्रायवराले खांद्यारि पोणु वता
सोड्डून वचे वेळारि
वेगळो एक्लो टा टा सांगूनु
हासूनु लोकूनु
एक पायु मुकारि चोंवकूक दवरनु
मागीरि कांय नेण सरि
परतूनु वत्ता -
ती ड्रायवराले खांद्यारि
एक लगेन थापूनु

तोंड भरी फलित सांगून
हासता -

(13)

युद्धांतु कोणे जयु पावनातीलें
युद्ध मुकारि वच्चे वेळारि
अरधंगुटें राबौनु
आमकां आनी एकमेळेन
हे गांवकारांक
हारवोवनु खेळूयां म्होण तं
गोमंतक पुराण.
एक पक्षांतु रावूनु
जिखवल्ले थोडे
हारवल्ले पक्षांतु सरनु
आमकां आनी
ह्या गांवकारांकय
गावांचे सिंहासन स्वप्न दिकुच्यांकय
हारवोवनु खेळूयां म्होण तं
गोमंतक पुराण.

(14)

एक सांकोव मोळ्ळोलो
शाप
सरचे भित्तरी
मागीरीय
सांकोव मोणु पडता
जन

आळतडी पेळतडी राबूनू
रडताय
हृदयांतु घायु पोणु
दुकी कैनसर जावनु
भरता
मांडोवी हें कांय नेणतणा
होळता -
व्हडें ताणचे चेल्लेचे
पोल्यारी एक उम्मेचें सुख भरता
पाळारि पोंवचे मोचुवाचे
पोटांतु एकी बी
मनांतु एक नक्षत्र -
जंबूळारूखाचे खांद्यारि बांदिल्ले
व्हिदळ्या दोराचें रण्णें
सांजे वेळारि
नाका जाल्लेलें खावनु
वोंकारो येवनु वोंकी -
जन्म मर्णा मद्दें
एक सान पुल.

(15)

आवय, समक्ष
मनांतु करि -
पिलां आमी आळतांपेळतांतु
मर्ण घालनु मरताय

पिलां आमी चेडीपणान
कुल राकून काडताय
पिलां आमी
बाटूनु जनावरां जाताय
आवय
मनांतु करि -
पिळगे आमी
तुजे दोळ्यां मुकारि
मूय जावनु
लेंबो जावनु
गायंडोळु जावनु
कीडि जावनु
आसय.

आवस-
मनांतु धरि
तुगेले भरलेलें उडगासांतु
दोळ्यांतु कोयरु आमी
खोंबुच्यो काळखाचो सूवो आमी -

(16)

येयाय पिळग्यानू
येयाय पिळग्यानु
तुंटूक वच्चे सांखाळेचि
मुद्दी फुटूचे फूडे
तुमी

मेगेले दोळ्यांतु
उजवाडाचीं बीं जायाय -
कुलागर राकूचीं जायाय
तुमी
मेगेले पूत जायाय
मेगेलीं नातूरां जायाय
पूत पुतणी
पील पिळगे जावनु
रूक जावनु.
खांदे जावनु
गोमंतक भराय.

---



Sri. P. N. SIVANANDA SHENOY (B. 1951 at Kottayam, Kerala) is the modernist amongst the Konkani poets of Kerala. "SUNAPARANT", the Konkani Daily from Goa, selected him as the 'Poet of the Month' during July 1993 while publishing extracts from his long lyrical poem "GOMANTAK-90".

He stormed the Konkani poetic scene of Kerala in 1984 with his anthology "KIRKIR" full of down to earth, factual reflections of the state of life of the Konkanies of Kerala. His poetry is a prism through which myriad facets and patterns of life are picturesquely flashed into the mind of the reader.

He won the "Pandarinath Bhuvanendra Puraskar" of Kerala Konkani Academy, Kochi in 1986. He was conferred with the "Mathias Family Poetry Award 2011" instituted by Kavita Trust, Mangalore.

केरळ कोंकणी अकादमी

कोची

